# जिवीताचे रंग

## कोंकणी कविता झेलो

अविनाश कुंकळकर

# जिवीताचे रंग

## कोंकणी कविता झेलो

: बरोवपी :

**अविनाश कुंकळकर**




**प्रज्योत प्रकाशन**

**कालापुर बांध, आराडी, गोंय.**

**जिवीताचे रंग**
(कविता)

**सर्वाधिकार**
अविनाश कुंकळकर

**पयलीं उजवाडावणी :**
डिसेंबर 2016

**प्रकाशन क्रमांक :** 3

**उजवाडावपी :**
अविनाश कुंकळकर
प्रज्योत प्रकाशन,
कालापुर बांध,
आराडी, तिसवाडी -गोंय.
403 005
मो. 7875237830

**छापपी :**
कॉम्प्युटर ग्राफिक्स
माथायस प्लाझामुखार,
18 जून मार्ग, पणजी-गोंय

**मोल :** 100 रुपये

Jeevitache Rang
(Collection of Poems)

Copyright:
Avinash Kunkolkar

**First Edition:**
December 2016

**Publication No:** 3

**Publisher:**
Avinash Kunkolkar
Prajyot Prakashan,
Kalapur Bandh,
Aaradi, Tiswadi - Goa
403 005
Mob.: 7875237830

**Printed at:**
Computer Graphics
Opp. Mathias Plaza,
18th June Road, Panaji - Goa.

**Price:** Rs. 100/-

# अर्पण

जिवीताचे रंग रंगवपाक
जाचो-जाचो हांतभार लागला
तांका सगळ्यांक व्हड आयुश
लाभचे हें देवाकडेन मागणें.

**अविनाश कुंकळकर**

# म्हजीं दोन उतरां

हें म्हजें कविताचें दुसरें पुस्तक. पयलें पुस्तक **'म्हजें नांव अविनाश'** हें सगळ्यांक आवडलेंच आसतलें. आनी हेंय पुस्तक म्हजे तुमका सगळ्यांक आवडटलें ही आशा करता. ह्या पुस्तकान तरेकवार कविता तुमका वाचूंक मेळतल्यो.

गिन्यानाचें पुस्तक हें भाग्यवान मनशांक वाचूंक मेळता. जें आपलें शिक्षण पूर्ण करून आपलें गिन्यान वाडयता. आपलो समाज सुंदर करपाचो यत्न करता. आपलो देश, आपले जग वयर काडपाक वाटेकार जाता. तेच खरे भाग्यवान ह्या जगान आसता. आनी म्हणूनच म्हणटा....सगल्या जगा पेक्षा सुंदर आमचो देश. पुण हे केन्ना शक्य जाता, जेन्ना.....

***जेन्ना आंगण नितळ जातलें***
***तेन्नाच बरें नाचपाक मेळटलें***
***पुण खऱ्यानीच भाग्यवान आसतले ते मनीस***
***तांका हें पुस्तक वाचपाक मेळटलें......***

खऱ्यानीच ह्या चार वोळीचें सबंध आमचो देश सुंदर आनी नितळ करपाखातीर प्रेरणा आसुं येता. कित्याकतर जेन्ना आंगण नितळ जातलें आंगण म्हळ्यार आमचो देश. आमचो देश जेन्ना सुंदर जातलो तेन्नाच बरे आमका जगूंक मेळतलें न्हय? आनी हें जग सुंदर करपाखातीर जांचो हातभार लागतलो तेच खरे भाग्यवान आसतलें. आनी तांकाच हें पुस्तक वाचपाक मेळतलें म्हळ्यार ह्या आमच्या सुंदर देशातली सुंदरताय अणभवूंक मेळतली.

देवान मनशाक रचून ह्या सवंसारान मनीसपणाचो तांका मान दिला आनी आपलें मनीसपण बरेतरेन सांबाळून दवरचें असो वरदान दिला. तरी सुद्धा खूपशा मनशांक खऱ्या मनीसपणाचो अर्थच कळना अशें दिसता. मनीसपण हें अशें आसूंक जाय....

***जो तान्नेल्ल्याक उदक पिवयता***
***भुकेल्ल्याक दिता जे खाण***
***ह्याच्या पेक्षा व्हड काय ना ह्या जगान***
***हेंच खरे मनीसपण.....***

आपल्या मित्राचें वायट दुसऱ्याक वचून सांगता तें खरें मनीसपण न्हय. जो बारांनी दुसऱ्याक सोरो पिवयता तेंय खरें मनीसपण न्हय. एक अस्तुरेचेर वायट नदर दवरता ते खरें मनीसपण न्हय. खरें मनीसपण जें जो वायट वेळार दुसऱ्याक मदत करता. दुसऱ्याचे दुःख पयस करपाक वावुरता. म्हणून म्हणटा आपलें मनीसपण सांबाळा आनी मनशां सारकें जगात.

ह्या जगान खुपशें अशें आसात कि जे पळोवन मनशाचे दोळे दिपवन वचूंक शकता.पुण तें सगळें सोपेपणी सोदून तुमकां मेळचेना. तातुंतलेच हे एक पळें......

***सोदल्यार खंय देव मेळटा***
***पुण, हांसो हो सोपेपणी मेळना।।***
***जो दुसऱ्याक हांसवपाचो यत्न करता***
***तुमकां कितें दिस्ता तो केन्ना रडना?***

दुसऱ्याक हांसवप, दुसऱ्याक खुश दवरप हें कितलें कठीण आनी मोटे काम. दुसऱ्याक हांसयता-हांसयता तो स्वतःच कितलो रडटा हें ताचें ताकाच खबर.

ह्या जगान प्रत्येक मनीस हो कवि आसता तांच्या आंगान कविताचे एक ---भरलेलो आसता तरीसुद्धा कविता करप प्रत्येक मनशाक जमना तांच्या खातीर शब्दाक शब्द मिळवचे पट्टा हे अशें.....

***काळजाक काळीज मेळल्याशिवाय***
***प्रेमाची भाशा कळना***
***शब्दाक शब्द मेळल्याशिवाय***
***कविता अशी गळना.....***

देंव बरें करूं!

**अविनाश कुंकळकर**

# प्रतिक्रिया....

'जिवीताचे रंग' हो कोंकणी कवितांइ जेलो आमचे गोयंचे नामनेचे कवि बाब अविनाश कुंकळकर हाणी इतले सुंदरतरेन लोकांमुखार सादर केला, खरेच तांची तोखणाय करत तीतली उणीच. ह्या कविता झेल्यातल्यान ताणी सगळे विशय लोकामुखार दवरल्यात. समाजान चल्ल्या कितल्याशांच बऱ्या वायट गोष्टीचो ताणे काळजान सावन अभ्यास करून समाजामुखार आव्हान केला. जर तर तुमी तुमचे जीणेन बरे वागत, मनीसपणान वागत जाल्यार ताजे फळ गोडूच मेळटले. ना जाल्यार मनीस आनी रावण एकूच. अस्तुरी, आई, मनीसपण, संवसार, धर्तरी फुटली, आमची भास, बरे दिस येतले केन्ना? हांसो, दिसता तशें नासता, म्हजो गाव आता म्हजो उरूंक ना? अशा साभार कवितातल्यान ताणी आपणाली व्यथा आनी कथा लोकांमुखार मांडल्या. लोकांनी ह्या कवितातल्यान तरी बऱ्यो गोष्टी शिकच्यो, आपणावच्यो आनी लोकांकुय ताचो तांचे जीणेन खूब उपेग जावचो अशी कविची मनासावन तळमळ आसा. अशा ह्या लोकप्रिय कविक देव खूब खोशी दिव, आयुष्य दिव, बरे आरोग्य दिव आणि समाजाखातीर तांजेकडल्यान अशेच लिखाण करून घेव अशी देवालागी विनवणी करतां आणि तांच्या कुटुंबाचे जीणेन सदाच आनंदाचो, खोशयेचो दरवळ परमळून तांची जीण खुशालमय जाव.

देव बरे करू सगळ्यांक!

**सौ. कल्पना योगानंद कामत,**
मुष्टिफंड संस्था, पणजी

# मांडावळ


१. शेतकऱ्याच्या नशीबाची काणी ९-१०
२. अस्तुरी ११-१२
३. शृंगाराचें रूप हें तुझे १३
४. देऊळ १४
५. मनीसपण १५-१६
६. शिक्षण १७
७. आमचीं भास १८
८. कवि १९
९. दिसता तशें नासता २०
१०. आई २१
११. बांयत पडलें सविता २२
१२. हळदी कूकूम २३
१३. सुंगटा पुराण २४-२५
१४. म्हज्या गिन्यानाचो एक कुडको २६
१५. नारद धरतरेर आयलो २७
१६. म्हजें काळीज लासलें २८
१७. पिशें मन २९
१८. सुगंठाची कढी ३०
१९. पिसो ३१
२०. हांसो ३२
२१. तुझो साथ ३३
२२. देव ३४
२३. झाडान म्हळें झाडाक ३५
२४. धर्तरी फुटली ३६
२५. झाडाच्या जिवनाची काणी ३७
२६. पवित्र प्रेम ३८
२७. अधर्म ३९
२८. कविता ४०
२९. बरोवपाक शिकलो हांव कविता... ४१
३०. म्हजी ही कविता ४२-४३
३१. कविता एके कविता ४४
३२. बरे दिस येतले केन्ना? ४५
३३. उगतें मळब ४६
३४. असो सोबीत म्हजो गाव ४७-४८
३५. म्हजो गांव आता म्हजो उरूंकना ४९-५०
३६. संवसार ५१-५२
३७. पावस ५३-५४
३८. अकस्मात हो पावस आयलो ५५
३९. जिवन मरण ५६
४०. मोगाक मोगान जिकुंक जाय ५७-५८
४१. काळें मांजर ५९
४२. मनीस आनी मनजात ६०-६१
४३. हांव मास्तर जाल्लों जाल्यार ६२
४४. देवाचो पुत ६३-६४
४५. आलतडीचो एक मनीस ६५
४६. नाचुक कळना म्हण आंगण वाकडे ६६
४७. गोंयचो बाजार गोयचीं भाजी ६७
४८. नां ६८
४९. पावसाचो तांडव ६९
५०. तांतीं आनी कोंबडी ७०
५१. केळीं ७१
५२. नाल्लान उदक घातलें कोणें? ७२
५३. पावसाच्या जोरान ७३
५४. एक काणी प्रेमाची ७४-७५
५५. अर्दी काणी प्रेमाची ७६
५६. स्वपनातली चलीं ७७
५७. अपेक्षा ७८
५८. शिक्षण हो हक्क प्रत्येक मनशाचो ७९-८०

# १. शेतकऱ्याच्या नशीबाची काणी

रानां कापून जमीन
खणून केली सपाट ।
पावस पडपाचो कमी जालो
लागली शेतकाऱ्यांची वाट ।।

शेता पुरोवन बिल्डरानी
क्राँक्रिटाची केलीं रानां ।
शेतकाऱ्यांच्या पोटार फातर
भूखेन करपोन गेली मनां ।।

म्हारगाय जायती वाडल्या
कसो करचो संवसार ।
आत्महत्या करून ताणीं
जगणे केलें काबार ।।

आपुण गेले संवसार सोडून
आमच्या मनांक घाय ।
अन्ना बगर जीण जाल्यार
जल्म कित्याक जाय? ।।

आमीच हाचेर कसलो तरी
उपाय काडूंक जाय ।
मोगाचो पावस जावन
रगतान रावूंक जाय ।।

दिसता म्हाका सरकारान
शेतकाऱ्यांक मदत करची ।
जय-जवान, जय-किसान
ही उतरां खरीं करचीं ।।

शेतकाऱ्यांच्या नशीबाची
ही आसली काणी ।
परिस्तीतीर जैत मेळयता
तीच तर शाणी ।।







# २. अस्तुरी

आवय, भयण, मैत्रीण आनी चली
ही जात अस्तुरीची ।
ह्या जगान जीण तांची
सोबीतकाय धर्तरेची ॥

२. अस्तुरी

चली जाली, खोशी मनयात
तोरण लायात दारान ।
कित्याक तर....ल्हानश्या त्या पावलानी
लक्ष्मी येता घरान ॥

चलयेक वाडयात शिक्षण दियात
उजवाड घालात तिच्या गिन्यानात ।
चलो तर दिवो घराचो असो
समज रूजला समाजान॥

चल्यानी आनी चलयानी
फरक आता उरूंक ना कांय ।
चले जरी पावसा सरी
चली उदकान भरिल्लीं बांय ॥

स्वताचें रक्षण ती
स्वताच करूंक जाणां ।।
मोग आनी मायपासान
संवसाराचीं जिंकता मनां

घाम गळोवन करता कष्ट
दुसऱ्याचेर जायना भार ।
राखणे दलान, जावन भरती
आंगार आपल्या झेलता वार ।।

अस्तुरेच्या नवलायेची कथा
सांगपाची तुमकां उरूंक ना कांय ।
आज ती इतक्या फुडें पावल्या
की चंद्रार सुद्धां दवरलो पांय ।।





# ३. शृंगाराचें रूप हें तुझे



आज तुज्या सोबीत पायांर
खेळता पांयजणां ।
शृंगाराचें रूप हें तुजें
कितलें कोण जाणां ।।

मोतयाची नथनी तुज्या
नाकार बरी चमकता ।
चेहऱ्याचे तुज्या रूप पळोवन
सूर्य सुध्दां दिपकायता ।।

इतले सगळे तेज हें तुज्यान
कशें आयले कोण जाणा ।
आज तुज्या सोबीत पायार
खेळता पायजणां ।।
शृंगाराचे रूप हें तुजें
कितले कोण जाणां ।।

सुंदर रसाळ वोठ तुजें
गुलाबाच्यो पाकळ्यो कश्यो ।
नाजूक कोंगरे केंस ते
भांगराच्यो साखळ्यो कश्यो

इतली तुजी निरमीती करूंक
ताका कशें सुचलें देव जाणां ।।
आज तुज्या सोबीत पांयार
खेळता पायजणां
शृंगाराचें रूप हें तुझें
कितलें कोण जाणां ।।



# ४. देऊळ

बऱ्या रस्त्यान चल्ल्यार खंय
देवळाच्या दारान पावता ।
पुण तसल्या त्या देवळानी
आतांचे देव तरी खंय रावता ॥

म्हजें म्हण्णे अशें की पुजा करूंक
देवळानूच वचूंक जाय अशें नासता ।
मनशाचें काळीज, मन, अंतःकरण
साफ आसता, थंयच देव आसता ॥

सादो स्वभाव आसल्यार कांय ना
मनशाचे उच्च विचार आसुंक जाय ।
कपडे कसलेय घाल्यार जाता आंगार
काळीज नितळ आसूंक जाय ॥

मनशानी बांदलेलें देऊळ हें
घर जरी देवाचें ।
पुण देवान घडयल्ले काळीज मनशाचें
हें देऊळ आसा देवाचें ॥



❖ ❖ ❖

# ५. मनीसपण

मनीस न्हय तूं मनशाच्या रूपान
जनावर एक ह्या जगाचें।
तुंच खरें निमीत्त जातलें
तुज्या स्वतःच्याच रागाचें ।।

दिस-दिस भर बार्रांनी बसून
सोरो पिवून जाता टायट ।
केन्ना-केन्ना दुसऱ्याच्या
बायलाचेर नदर मारता वायट ।।

अस्तुरेचीं विट्टंबना करपाक
तूं केन्ना फाटीं सरना ।
तुमच्याय घरान एक अस्तूरी आसा
अशें कित्याक मनांत दवरीना ।।

जांचें तूं वायट सांगता
तो वायट मनीस नास्तन्ना ।
दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें कुसकुट दिसता
स्वताच्या दोळ्यान लाकुड आस्तना ।।

वायट केल्यार वायटूच जातलें
हें तुमकां सांगतलो कोण ।
पावलाक एक मनीस मेळटा
पुण सोदल्यार मेळना मनीसपण ।।

मनशान आपलें मनीसपण
सदांच सांबाळून दवरचें आसता ।
वायट परीस्तिती तर ताचेर येताच
पुण ती ताची परीक्षा आसता ।।





# ६. शिक्षण




आदलें लोक म्हणटाले
शिकून कोण फेलीस जाला ।
म्हाका दिस्ता तांच्या तोंडातल्यान
हीं उतरां स्लिप जाल्या ॥

शिक्षण आसप हें खूप गरजेचें
प्रत्येक मनशाच्या जिवीतांन ।
शिक्षण आसल्यार मनीस
खूपशें कितें करूंक शकता ह्या जगान ॥

शिक्षण हें मनशाक खूपशें कितें शिकयता
शिक्षण मनशाक सत्याचें रूप दाखयता ।
अशी खूप्पशी शक्ती आसता त्या शिक्षणान
शिक्षण हें उजवाड घालता मनशाच्या जिवनांत ॥

शिक्षण शिकून सायन्टीस्ट जावन
मनीस आज मळबाक हात लायता ।
पांचशें वरसां फाटीं बरयल्लें तुकाराम महाराजांचे
अभंग, कांय लोक आजुनूय गायता ॥

ते ज्ञानीवंत मनीस, शिक्षण शिकुंक नासलें
कित्याक तर त्या वेळार शिक्षण नासलें ।
पुण त्या ज्ञानीवंत मनशाचें ज्ञान म्हळ्यारच
एक व्हडलें शिक्षण आसलें....॥



❖ ❖ ❖

# ७. आमचीं भास

देखण्यांतल्या देखण्यां परस
सोबीत सुंदर आमची भास
दुसऱ्याचें हांव सांगना
पुण, आमच्या खातीर ती सामकी खास

जितलो सुंदर गांव आमचो
तितलीच सुंदर आमची भास
प्रत्येक मनशाक आसूंक जाय
आप-आपलें भाशेची आस

आप-आपल्या गावांनी खंय
मोग आपले आपले भाशेचो
हो एक बरो विचार आसा
तुमचे आमचे खोशयेचो

भाशेची राजनीती
करूंक उपकरना मनशानी
कोंकणी भाशा ही भरील्ली आसा
गोंयच्या कोनशां कोनशांनी



# ८. कवि

कवि, हो सगल्या पेक्षां वेगळोच आसता
तांच्या काळजान साहित्याची आस आसता
कविची ही आपली वेगळी भास आसता
प्रत्येक कवि हो कवि कालीदास आसता
कवि हे एक बेकार कविय आसता
कांय कवि तर पिशे आसता
केन्नाय हांसता, केन्नाय नाचता
कवि हे अशेच आसता
कविचे वेगळेच एक स्थान आसता
कविच्या जगण्याक वेगळोच मान आसता
गरीब जरी आसलो तरी तो मनाचो धनवान आसता
हांव एक कवि, हांचो म्हाका अभिमान आसता
कित्याक तर म्हज्या मनांत, शब्दांचें एक रान आसा
तुमी हे आयकता सगळे, कित्याक तुमकां कान आसा
पुण, जो दुसऱ्याक मान दिता, ताकाच खरो मान आसा ॥





## ९. दिसता तशें नासता

दिसता तशें नासता, म्हणून हें जग फसता
अशें लोक म्हण्टा
पुण, हांगा कांयच नासता, तरी खूपशें दिसता
म्हणून लोक हांसता, अशें हांव म्हणता

वयर नदर मारून पळयात, आमकां तशें कांयच दिसना
पूण खूप्पशें कितें आसात थंय वातावरणात
स्पेस मशीन आनी ग्रह नक्षत्रां
आसतात थंय ब्रह्मांडान



दर्यार नदर मारीत तर
आमकां थंय फकत उदक दिसता
पूण भितर वचून पळयल्यार
खूपशे जीव जंतू आसता

आमी समजतां सगळ्या पेक्षां
मनीस हो गिरेस्त ह्या जगान
पुण, दर्यान जी गिरेस्तकाय आसा
ती मेजूंक जावचींना मनशाच्यान

अशे तरेन आमी मनशाक पळयल्यार
कांयच दिसना, ताच्या चेहऱ्यार
पुण, मनीस हो कल्पतरू
तो कितेंय करूंक शकता विचार केल्यार....



# १०. आई



अकस्मात काळजांतल्यान ‘आवयस’
असो आवाज येता ती आई
आपल्या भुरग्याच्या गिन्यानाची
उघट्टा ती चावी

आई भुरग्यांक आपल्या पोटान
णव म्हयने साम्बाळता
पुण तोच भुरगो एक दिस तीका
दु:खानी रडयता
अशे केन्नाच जावंक उपकरना, तिच्या जीवनात
जाणा कोण, कितें बरयलां आसतलें
देवान तिच्या नशीबान

आई आपल्या भुरग्या खातीर खूप कश्ट करता
भुरग्याक आपल्या शिकवपाक स्वत:क नश्ट करता
स्वत:च्या पोटाची भूक मारून
भुरग्याचे पोट भरता
पुण तिचे हे उपकार कोण याद दवरता
आई ही सगळ्याचेचं काम करता
ती केन्नाच उरना बेकार
एक दिस सुटी घेना ना घेना पगार
तरी सुद्धा भुरगें बायलांचें आयकून
स्वत:चे आईचेर जातात रागार ॥
आई हें देवाचें दुसरें रूप आसता
साखरेच्या पाकान मिसळीयेल्ले साजूक
तूप आसता
सूर्याचे तेज न्हय, चंद्राचे उन आसता
आई ही आईच न्हय, पुण कोणाची
बायल आनी
कोणाची सून आसता

आई आसा म्हणून आमी ह्या जगान
नातर आमकां कोण विचारी?
ह्या आक्या ब्रह्मांडाचो देव सुद्धां
आई शिवाय भिकारी

हय हें खरें, अकस्मात काळजांतल्यान
‘आवयस’ असो आवाज येता
तिच ती आई.



# ११. बांयत पडलें सविता

णव वरांचेर बसलो हांव
बरयतलों म्हण कविता
इतल्यान कानार आवाज आयलो
बांयत पडलें खंय सविता

कोण तरी धांवत येयात
सविताक त्या भायर काडात
मोडलां तर बसयात ताचीं हांडा
नातर ताका मेडीकलात धाडा

कोणे तरी वचून
एक दोर हाडलो
बांयत देवून सविताक
ताणे भायर काडले

हांडां ताची मोडल्यां ती पळोवन
सविताक ताणी मेडीकलान हांडलें
चलूक तर जायना सारकें पूण
दुसरे दीसा घरा धाडलें

आता थोडे दिस तरी सविता
बांयचेर वचपाक भितले
जो परयंत बांयचेर वचना
तो सर नळाचेच उदक पियतलें





# १२. हळदी कूकूम



हळदी कूकूम हळदी कूकूम
बायलांचो हळदी कूकूम
पिजरीचो तांबडो रंग कपलार
माथ्यान फुलाचो वास घुम-घुम

आपल्या घोवाच्या आयुशाखातीर
बायला कितलें करता कश्ट
दुशमानाच्या घरा वचून सुध्दा
मनातलो राग करता नष्ट

नाकार तिच्या चमकता नथनी
पायांत पांयजणाचो आवाज छुम-छुम
हळदी कुकूम हळदी कूकूम
बायलाचो हळदी कूकूम

चलून वचून कासार जायना
पोटाक भूख लागल्यार खायना
सगळ्यागेर गेल्याशिवाय
परतून ती घरा येना



येता आसतना हाथान तांच्या
आसता कसली ना कसली वायणां
एक म्हयनो चलता ताची
पिवळ्या तांबड्या रंगाची धुम
हळदी कुकूम हळदी कूकूम
बायलाचो हळदी कूकूम



# १३. सुंगटा पुराण

बांगडो तुमी म्हणटा नाका
खरो तर हांव विसवण
आतांच्या खऱ्या रामाक सुद्धा
म्हणतात लोक रावण

प्रत्येक दिसा मेळटात तुमी म्हाका
उलोवपाक दोनूच मिनटां
हांव जर बांगडो जाल्यार
तुमी दोगांय सुंगटा

बांगडो म्हण, ताल्लो म्हण
नातर विसवण म्हण
पूण खरे सांगतां सुंगटाचेंच
बरे जाता हुमण

सुंगटाच्या हुमणाची एक
वेगळीच आसता चंव
बाजारान सोपेपणी मेळटा
पूण, खूप्प सो आसता भांव

सुंगटां चड खाल्ल्यार, खंय तीं
मनशाची हांडा दुखयता
काय मनीस तर सुंगटाक
वताक घालून सुकयता



सुकयल्ल्या सुंगटाची
किसमुर बरी जाता
आज काल भटजी सुद्धा
सुकी सुंगटा खाता

सुकयल्ल्या सुंगटाक
आसना चड पेज
काय जाण तर समजता
सुंगटां ही प्युअर वेज

आजकाल सुंगटां हीं
शिजयता प्रत्येक घरा-घरान
तर हे आसले विसाव्या
शतकातलें सुंगटा पुराण





# १४. म्हज्या गिन्यानाचो एक कुडको

एक दिस म्हजी तकली वण्टीक आपटली
आनी म्हज्या गिन्यानाक मार लागलो
म्हजे गिन्यान फुटले आनी ताचे कुडके-कुडके जालें
थोडे हांगा पडले थोडे थंय पडले
सगळ्याक कुडके-कुडकेच जालें
सारण आनी सूप घेवन
सगळे कुडके एकठाय केलें
तरीसुध्दा एक कुडको उल्लो
आनी काय वेळान ताका मुयो भल्ल्यो
म्हज्या गिन्यानाचो कुडको मुयांनी खाल्लो
आनी मुयो चड गिन्यानी जाल्यो
पुण म्हजेच गिन्यान मात्शें उणे जालें
आता मुयो जमनीर सदाच हांगा थंय भोवता
म्हज्या गिन्यानाचो तुकडो मेळता काय पळयता।।





# १५. नारद धरतरेर आयलो

एक दिस नारद धरतरेर आयलो
आनी म्हजेकडेन मनीसपणाचो पत्तो विचारूंक लागलो
हांवे म्हळें सरळ वचात
रस्त्यारच तुमकां ते मेळतले
मनशाकडेन मनीसपण कितकें उल्लां
तें तुमकां रोकडेच कळटलें



मात्शें फुडें वचून नारद मुनीन
नदर माल्ली सगळ्या कोनशानी
देवा, परमेश्वरा तुमचे धरतरेची
विटंबना केली ह्या मनशानी

कचरो हांगा थंय उडोवन-उडोवन
गारबेजीची केली रास
दुयेसांक आमंत्रण हें
घाणीचो, सोसुक जायना वास

मनशानी आपले मनीसपण
कोयरा वांगडा भायर उडयलां
पांच दिसाचो गणपती समजून
व्हरून ताका उदकान बुडयला

असल्या मनशाक ख़्यास्त दिवपाक
सरकाराकडेन तसो कायदो ना
मनशाक इतके गिन्यान दिवन
देवा....ताचो आज काय फायदो ना...



# १६. म्हजें काळीज लासलें

तूं आनी हांव दोगांय आमी
झाडाचे सावळेक बशील्लीं
एकमेकाच्या प्रेमान मग्न जावन
एकमेकाक चिटकून दशील्लीं

अकस्मात आयलें वारे
वाऱ्या सरी झाडाची पाना फरफरून
पडली तुज्या आंगार
स्पर्श जाताच तुज्या आंगाचो त्या पानाक
सुकील्ल्या त्या पानाचें जालें भांगर

तेन्नाच लक्षान आयलें म्हज्या, तुज्या
आंगान लखलखत्या विजेचो आसपाक आसूंक जाय
जे सुकलेल्या पानांक भांगरान बदलता
हो कसलो तरी चमत्कार जावंक जाय

हळूच ताका कडेक करून आपल्यातच
कितेंतरी विचार करूंक लागलो मनान
उठरे बाबू सकाळ जाली असो आईच्या
उतराचो आवाज आयलो कानार

अकस्मात जाग जावन उठून
ताका सोदूंक लागलो
तुमी हांगा कोणा चलयेक पळयलां
अशे आईक विचारूंक लागलों....



❖ ❖ ❖

# १७. पिशें मन

मन म्हजें पिशें कशें
सदांच तुजी वाट पळयता
यो एक दिस, मेळपाक म्हाका
अशें कित्याक, म्हाका रडयता?

कितलें समजायलें, काळजाक म्हज्या
काळीज म्हजें, कांयच समजना
हांवें म्हळें, सोड ताचे
ते आमच्या नशीबान ना

कितलेशेच दिस जाले पळयल्यार
सुंदर रूप तुजें हांवें
दिसता म्हाका न मेळपाचो
सोपुत घेतला जायत तुवें

समाजाक ह्या, भिवून तुवें
म्हजें काळीज उडयलें दुखोवन
यो एक दिस मेळपाक म्हाका
सगळ्याचीच नदर चुकोवन

ख्यास्त ही भोगता हांव
तुजेर केल्या प्रेमाची
तुजेर प्रेम करपाची ही
चुक झाली म्हज्या काळजाची....





# १८. सुगंठाची कढी

सुगंठाची कढी
तातुन वांयग्याच्यो फोडी
कांद्याचे फोडण्णेन वुडयली
तरणी मिरसांग थोडी

मोट्टे बांगडे हांडले
आनी उबेच धरून चिरले
तातून मसालो भरलो
आनी तव्यार सर्रर्र करून सोडले

बांगड्याच्या ह्या वासान
इल्ले घेवशे दिसलें ग्लासान
दुबयसून म्हजो मेवणो आयला
आमगेर एका वर्सान



मेवण्या खातीर खास जेवण
आज रातीक आमगेर शिजताले
जेवण ते शिजयता शिजयता
किचनात बायल घामान भिजतालें

तरीसुद्धां बायलेक म्हजे
जायना आसलो ताचो त्रास
कित्याकतर?....प्रत्येक भयर्णीक आपलो
भाव, घरान येवप हे खास





# १९. पिसो



लोक म्हणतात म्हाका पिसो
ईस्कुर झाला खंय म्हजो धील ।।
तीन वरसा मेन्टेलान रावलो
फारीक करूंक ना खंय बिल

संवसारान ह्या प्रत्येक मनीस पिसो
करता आप-आपली पिशेपणा
पुण, ते सगळ्याकच कळना
तीच तर खरी शाणेपणा

प्रत्येक मनशाक पिशें आसता
आप-आपल्या कामाचें
खूप्पशा जाणाक तर पिशें लागलां
आजकाल खऱ्या प्रेमाचे

काय जाणाक तर साहित्याचे पिशें आसता
कथा, कादंबरी, नाटकां, कविता
हेच ताच्या मनात आसता
आपल्याच मनाचे पुस्तक
ते आपुण स्वतःच वाचता

पुण कांय जाण तांका पिशें समजून
तोंडार हांत धरून हांसता

कांयजाणाक तर पिशें आसता
समाजसेवा करपाचे
दुसऱ्याक मदत करता-करता
स्वतःच आपुण मरपाचे

दुसऱ्याचे दुःख ते,
आपलें अशें मानता
तरीसुद्धा काय लोक
तांकांच पिशें समजता



# २०. हांसो

प्रत्येक मनीस ह्या जगान
दुसऱ्याचेर पाय दवरून, वयर चडूंक सोदता
दुसऱ्याचे सगळे रिते करून
आपली बोलसां भरता

हांसात पूण मन उकतें करून हांसात
दुसऱ्याचे परिस्थीतीर हांस नाकात
चार पैशे आसात म्हणून बोलसान
नुसते उडून नाच नाकात

दुसऱ्याचे परिस्थीतीर हांसतात तुमी
एक दिस तुमकाय रडचे पडटलें
दुसऱ्याचे दुःख कितें आसता तें
तेन्नाच तुमकां कळटलें



हांसात तुम्ही जाय तीतले आयज
फाल्यां हांसपाचो दिस आसचोना
जेन्ना गळतली दुःखा, तुमच्या दोळ्यातल्यान
तेन्ना पुसपाक कोणूच आसचोना

तुम्ही हांसात दुसऱ्यांकय हांसयात
दिस तुमचे हे हांसपाचे
रडून जगान आयिल्ले, आमी
हांसून परत वचपाचे



1890

## २१. तुझो साथ

तुझो साथ मेळूक ना म्हांका
पूण चलपाक म्हाका कळटा
प्रत्येक उज्याची सवय जाल्या
जळपाक म्हांका कळटा

म्हज्या छातयेन तर काळीज आसा
तुझ्या छातयेन तेंय ना
म्हज्या दुःखानी संवसार, भिजोवंक शकतां हांव
पुण, म्हाकां रडपाची सवंय ना

नकार तुवें दिलो म्हाका
दोश हांव दिना तुका
यादीन तुजे रडता खरो
पुण, डोळ्यान म्हज्या येना दुकां

याद तूं करतलें म्हज्या प्रेमाची
हांव मेल्या उपरांत
पुण कितें फायदो पश्चाताप करून
चुक तुमी ती केल्या उपरांत

तुज्याच खातीर हावें म्हजें
काळीज लासून कोळसो केलो
पुण, तुवेंच म्हज्या काळजाचो उपेग
दात घासूंक केलो.





# २२. देव

लाडी-गोडी लावन ह्या मनशानी
देवाक सुध्दां फटयलो
पाशाणी फातराक देव समजून
देवळान बाबड्याक बसयलो

आतांच्या ह्या मनशाक म्हणून
मात सुध्दा अक्कल नासता
देवळान ताटान एक रुपया घालून
किते ना किते मागत आसता

पुण, केन्ना-केन्ना देवूय बी
सामकीच पिशेपणा करता
वायट मनशाक हांगाच दवरून
बऱ्या मनशाक वयर व्हरता

स्वर्गार आतां वायट मनशांची
संख्या खूप वाडल्या
म्हणूनच दिसता बऱ्या मनशाक व्हरपाचो
देवान हो उपाय काडला

मनशाक स्वर्गार वतले जाल्यार
पयलो ताका मरचो पडटा
यम देवंता धर्तरीर येवन
ताणे तांका व्हरचो पडटा





# २३. झाडान म्हळें झाडाक

झाडान म्हळें झाडाक
कितें जालां ह्या मनशाच्या गिन्यानाक
कापून आमकां नश्ट करूंक
तांच्या मातुय दुखना कांय मनाक

आमकां कापून रस्ते वाडयतात
व्हडल्यो-व्हडल्यो बिल्डींग घडयता
अशे हे मनीस आमकां कित्याक रडयता
आमच्या दोळ्यांतल्यान ही दुःखा गळयता

आमीच तांकां सावली दिता
फुलां दितां, फळां दितां
आमकाच लागून हो पावस पडटा
आमीच हांकां उदक दिता

आमी आसा म्हणून हे जग सुंदर
सुख आनी शांतीचे घर
तरीसुद्धा ह्या मनशानी
आमच्याच गळ्यान घातले दोर

चित मनशा, वेळ आसा
गरजेशिवाय आमचेर, अन्याय कर नाका
नातर फुडे सुख-शांतीची
अपेक्षा तुमी करु नाका

हाजे पयली केल्ल्या चुकीची
कास्त तुमका भोगची पडटली
दिसाक एक तरी झाड लावन
धरतरि ही सुंदर करची पडटली





# २४. धर्तरी फुटली

धर्तरी फुटली भुकंप जालो
बिल्डींग्यो मोडल्यो, कितलेंशेत लोक मेले
आज हे धरतरेर ते
सगळे आपले सोडून गेलें



कितलेशेत भक्त, संत, देव
जन्मले ह्या धर्तरेर
कितल्याशाट वीर जवानानी
बलिदान दिलें ह्या धरतरेर

धर्तरी आमकां पावन पूज्य
आवय ही आमची धर्तरी
हेच धर्तरेर रावून सुध्दा तीका
नष्ट करूंक सोदता कोण तरी

बॉम्बब्लास्ट करून ताणी
आपलेच आवयचेर केलो वार
मनाक तिच्या कितलें दुखले आसतले
काळजाक कितलो लागलो मार

हांगा थंय उडयल्ल्या त्या कोयरान
धर्तरी सामकी अशुध्द जाता
घाण ही सोसुक जायना जावन
गुदमरून ती बेशुध्द जाता

कितलें म्हणून सहन करतलीं
बेफान तुफान जावन रागान उठलीं
तरी सुध्दां समजून येना मनशाक
तांकाच लागून ही धर्तरी फुटली...



# २५. झाडाच्या जिवनाची काणी

पयर एक झाड म्हज्या सपनांत आयलें
आनी म्हाका आपल्या जीवनाची काणी सांगूक लागलें
तुमी तरी ह्या मनशाक समजयात
असे म्हजेकडेन उपकाराचे मागणे मागुंक लागलें
हे आमकां कापपी मनशांनो
दोळ्यांन हाडात तुमी तुमच्या एक तरी दुक
कापून आमका नष्ट करता ते
आमी कसली केल्या म्हणून चूक
कोयते कुराडी घेवन ते धारेचे
कापतना तुमच्या लक्षान येना
आमच्या शिवाय सावळी मेळचीना
हे तुमी समजून कित्याक घेना
वतान जमीन करपून गेली
शेतकामत्यांनी आत्महत्या केली
गोरवां वासरां तळमळून मेलीं
तरी तुमची बुध्दी खंय गेली.
मनीस जातीचे मनजात तुमीं
दोळे उगडून हें पळयात
आमी जावन आसा सुंदरताय तुमचें धरतरेची
आमचे आयुश बरें घळोयात
आंबो हांव, पणस हांव
माड हांव, पिंपळ हांव
झाडां लायात, झाडां वाचयात
हेंच सांगता दर एक गांव





# २६. पवित्र प्रेम



प्रेम हें पवित्र बंधन
दोन काळजाचे
प्रेम हो पवित्र संबंध
दोन आत्म्याचो

मनशान प्रेम करूंक जाय
प्रेमाचे सगळेच नियम धरून
आवय बापायच्या वेंगेतल्यान
चलयेक व्हरूंक उपकरना चोरून

मनाच्या पलीकडली असाधारण भावना
म्हळ्यार हें प्रेम
पुण, कांय जाण तर तांकां समजता
एक टायमपास करपाची गेम

असलो प्रेम करून ती आपल्या
मनाक, काळजाक आनी
आत्म्याक रडयता
प्रेम हें मनशाक जगयता
तितकेच मरयता

प्रेमान काळीज तुटल्या उपरांत
मनशाक तें खूप रडयता
कांयच उपाय उरना जावन
फांसार तांका चडयता.

प्रेम करतल्या प्रत्येक मनशाक
म्हजे आज हे सांगणे आसा
आत्महत्या करून ह्या पवित्र प्रेमाचो
अपमान कर नाका हे मागणे आसा



# २७. अधर्म

वरसाचे बारा म्हयने
डिसेंबर म्हयनो बारावो
कोणाच्या जिवनात एक मायज येता
तो दुशकाळात म्हयनो तेरावो

सगळ्याकच आज दुशकाळाच आयलां
अधर्म आनी अत्याचाराचो
सगलेच फटींगपणा करूंक लागल्या
संवसार उरूंकना खऱ्याचो

अधर्मान धरतरी फुटली
अत्याचारान स्वर्ग
संवसार हो जावन पडला
ह्या कलीयुगातलो नरक

लुटमार आनी चोरयो
जावपाक लागल्या चड
नियंत्रण दवरपी जे ह्या संवसाराचे
खरे तर तेच ना आज धड

अस्तुरेचे इज्जतीक आज
काडी इतकी सुध्दा किंमत ना
बलत्कार करपी ज्या मनशाक
ख्यास्त दिवपाची तांच्यान हिम्मत ना

सैतानाचे राज्य जाला
मनशाचे मनीसपण खंय गेला
धर्माचो वायट उपयोग करून
आज जितो आसून सुध्दा, मनीस मेला.



# २८. कविता

हांवें एके कवितेचेर कविता बरयल्या
नाव तिचे आसा कविता
प्रत्येक कविक ती आपल्या शब्दांचे
ताच्या जगण्याक बरे विचार दिता



चार शब्द जुळयता-जुळयता
अवचीत जाता एक काव्य
चार कवनां मांडल्या उपरांत
जन्माक येता एक कविता

जन्म दिस एके कवितेचो मनोवंक
जाता चार कविचे मिलन
त्याच चार कविच्या मिलनाक
म्हणतात आज आमी कवि संमेलन

त्या कवि संमेलनात
मांडतात कवि आपआपले विचार
आपले कवितेक आकार दिवन
करता आपली कविता साकार

आपल्या शब्दांच्या पावसान ते
रसीक प्रेक्षकांचे मन भिजयता
ह्याच काव्याच्या आदारान
एक आवय आपल्या भुरग्याक निदयता

आमचे बुजुर्ग कवि
आज आमकां शिक्षण दिता
तुंच ह्या सृष्टीचो कवि
आनी हो निसर्ग तुज्यो कविता



## २९. बरोवपाक शिकलो हांव कविता...

जेन्ना तू म्हण्टाले म्हाका
सदांच गो म्हज्या सविता
तुं म्हजो कवि
आनी हांव ते तुज्यो कविता



प्रेमान तुज्या पळून हांवें
म्हजें काळीज उडयलें तोडून
तुटिल्ल्या त्या काळजान
आतां कसो प्रेम दवरून

तुटिल्ल्या त्या काळजाच्या कुडक्यानी
हळू-हळू शब्द जुळोवपाक लागली
रेशमाच्या नाजूक त्या धाग्यांनी
हळू-हळू ते शब्द गुतपाक लागली

शब्दांची माळ ती आजूनय
तुझ्याच नावाची गो सविता
आज तुझ्या न्हयकारलेल्या प्रेमाक लागून
बोरोवंक शिकलो हांव कविता

एक बरो प्रेमी जावंक शकलोना
बरो कवि जातलो ही आशा आसा
आता म्हज्या तुटलेल्या काळजान तुज्या प्रेमाची न्हय
म्हज्या कविताचीच भाशा आसा

प्रेम करून लग्न जावप
हें खूप्प बरें आसता
पूण, प्रेम करून प्रेम भंग जावप
हे त्यापेक्षा खूप जड आसता






# ३०. म्हजी ही कविता

आज म्हज्या मनांत
शब्दांची एक रास आसा
काळजान ह्या वेगळेच तरेचे
कवितेची भास आसा.

म्हजी कविता प्रेक्षकाक वाचून
दाखवपाची म्हाका आस आसा
कित्याकतर ही म्हजी कविता
तांच्याच खातीर खास आसा.

कवितेंतले शब्द, जमले म्हज्या मनांत
जशी साय जमता तापयल्या दुधार
चाल हे कवितेची वाऱ्याकडल्यान
मागून घेतल्या उधार...

नक्षत्रां शिपडीत आयलो आयज
चंद्र म्हज्या दारान
आपले चांदणे समजून सोदूंक लागलो
म्हजे कवितेच्या त्या उजवाडान.

मोर आपले पंख पसरून
पिसो जावन नाचूक लागलो
कविता म्हजी आयकून ताका
पावस आयल्याचो भास जालो.



झाडावयलीं सुकणी सगळी
चिव-चिव करून आड्डूक लागली
कवितेक हे सुर तर आसात
संगीताचो ताल ती दिवंक लागली

तर प्रेक्षकांक आता
हांव विचारता
म्हजी ही कविता
तुमका कशी लागली.



# ३१. कविता एके कविता



एक कविता बरयता-बरयता
दुसरी कविता सुचली
प्रत्येक वेळा कविताच बरयता
हे पळोवन बायल म्हजेर रूसली

कविता आनी म्हजे बायलेन
फरक चड ना
पुण खरे सांगता बायल म्हजी
कविते इतली गोड ना

बायलेचेर आनी कवितेचेर
प्रेम हांव तितलोच करता
बायलेक जरी वेगेंन धरता
पूण कवितेक मात मनात भरता

बायल ती बायल
जशी चुलीर तापिल्ल्या तेलाची कायल
आनी कविता एक कविता
जशे बायलेन नेसिल्ले पाचवें नऊ वारी वायल

म्हणतात न्हय बायलेविना सवंसार ना
आनी कवितेशिवाय जगणे
प्रत्येकाक एक अशीच कवितेवरी बायल
मेळची हेच आज म्हजे मागणे ॥



# ३२. बरे दिस येतले केन्ना?

नशीबाक आमच्या कितें जाला?
गेलां नशीब आमचे कोणाकडेन?
आज बाजारान इतलें नुस्ते आसून
तोंडाक खाऱ्याचो मेळना जेवणाकडेन

म्हारगाय वाडपाची कमी जायना
आवाज उठवपाक हिम्मत ना
बाजारान गेल्यार पैसे पावना
शंबराचे नोटीक मोल ना

शेतकाऱ्यांक नाडून आयज
सावकार आपल्यो तिजोऱ्यो भरता
शेतान काम करून-करून
गरीब बाबडे उपाशी मरता

जोड्टा तितलें पावना
म्हयन्याचो पगार कमी
जेवता तेवूय रावना
संवसार कसो करचो आमी?

त्या दिसाची वाट पोळोवन पोळोवन
जगणे आमचे सोपतले तेन्ना
आजूनय काय सांगूक शकना
बरे दिस येतले केन्ना?



# ३३. उगतें मळब

तुमच्या मुखार आज उबो
रावून ह्या पालकार
आठयतां हांव आज
उगत्या मळबाचे उपकार

मनीस सवंसारान येता तो वाडून व्हड जाता
वायट बरे गुण त्यांच्या आंगान आसता
पुण तांचे बरे गुण वळखूपाखातीर
ह्या संस्थेच्या सदस्या सारक्या, मनशाची गरज आसता

कवी हांव आसलो जायत
कविताय आसल्यों जायत म्हज्या काळजान
पुण उकत्या मळबान म्हज्यी वळख
करून दिली ह्या समाजान

उपकार हांव मानीना उकत्या मळबाचें
देव बरे करूंय म्हणना व्हडल्यान
कित्याक तर आनीक खूपशे कितें
शिकपाचे आसा तांचे कडल्यान

उगतें मळब ते उगते मळब
तांका खंयच्यानच दारा ना
हांगा कोणाकूय प्रवेश आसा
खंयच्याय धर्माचो आळ ना



उगत्या मळबाचे उगते मन
वाचूंक शकता ताणे वाचचे
हेच आमच्या खातीर बरे आंगण
मन उकते करून तुमी नाचचे



# ३४. असो सोबीत म्हजो गाव

असो सोबीत म्हजो गांव
त्या गावान रावता हांव
कालापूर बांध अशें
म्हज्या सुंदर गांवाचे नाव

गावांच्या वयले वटेन
झाडाचे घनदाट रान
सकयल्या वटेन पाचवे शेतानी
हरपून वता भान

उंच-उंच दोंगरा सकयल
लहानशें आमचें घर
घरान हांव आनी बायल रावता
आनी आमचे दोग पोर

सगळ्या जाती धर्माचे
लोक ह्या गावान रावता
एकमेकाच्या सुखदुखान
एकमेकाक आमी पावता

इगर्जेंची घाट वाजल्याची आयकुन
सूर्य गावान उगवता
किर्तनाचे सूर आयकून
परतून तो मावळता

भजनाच्या भक्ती रसान
लोकाची हांगा मना भरता
सैमाचे गीत गायत
गांवातल्या प्रत्येक मनशाचे जीवन सरता

असो आमचो सोबीत गांव
त्या गावान रावता हांव
कालापूर बांध असे
म्हज्या सुंदर गांवाचे नाव....





## ३५. म्हजो गांव आता म्हजो उरूंकना

म्हजो गांव आता म्हजो उरूंकना
गावान आयले आता खूप्पशे घाटी
भिकणाकार ते गोयान येवन
करूंक लागले आपल्यो राटी

रेशन कार्ड करून दिली तांका
आपल्याच कांय मंत्र्यांनी
वस्तऱ्याक ताच्या कामाक दवल्ली
आपल्या घरच्या ऑफीसानी

खेळ तांचेकडेन खेळतात ते
उंदीर आनी मांजराचो
पगार तांका दितात ते
ताच्या सोबीत रूपाचो

व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डींग्यो बांधून
फ्लॅटा करता तांच्या नांवार
गोंयकार आमी उरले फाटी
झोपडे बांधून रावता गावार

आज भायलो प्रत्येक मनीस
आपली मान वयर काडून चलता
तांच्या फाटल्यान गोंयकार थोडे
घणसाबैल कशे डोलता

उठा गोंयकारानो जागे जायात
विचार करात एकमतान
गोंय आमचें सांभाळपाक
आसा तुमच्या आमच्या हांतान

म्हजे गोंय म्हजे उरूंक
जाय माका, तुमचो साथ
गांवाक म्हज्या सांभाळपाक
नाका कमळ, नाका हात....





# ३६. संवसार

एके रातीन एके वातीन
संवसार केल्यार कायना
एकच साडी नेसून
बायल जान्टी जायना

संवसाराचे हे उमाणे
पारखूपाक सामकें कठीन
संवसार हो तूं जिकूंक शकना
करून ताका फटींग

रगताचे उदक करून
कष्ट करचे पडटले
संवसारा ह्या खातीर तुका
स्वतःक नश्ट करचे पडटले

पावला-पावलाक तुका
भ्रष्टाचार पोळोवंक मेळटलो
भ्रष्टाचाराच्या खेळान ते
शिष्टाच्याराचो खेळ खेळतले

खेळ हो खेळता खेळता
मनीस गळये मरतलो
संवसार हो अमर आसा
संवसार हांगाच उरतलो

आजपासून सवंसाराचे उमाणे
सोडूंक कोण शकलो ना
खूप्पशे येवन गेले हांगा
संवसारान तूं एकलो ना

तुझ्या दुःखाच्या थेंब्यानी
जायत हो संवसार भिजूंकना
संवसार हो खूप्प व्हड आसा
पुण रचणारो देव निदूंक ना.....



# ३७. पावस

जूनाचो म्हयनो आयलो
पावस पडलो साबार वाठारान
धरतरेन सोबित वास सोडलो
नवें कोमऱ्यो फुटल्यो झाडार

हळू-हळू उदक वाडून
झरी न्हयों व्हावूंक लागल्यो
झाडावेंले घरटें तुटून
सुकणी वयल्यान धावूंक लागली

सैमाचे गीत गावंक
वाऱ्यान धरलो सूर
पावसाची रिमझिम पळोवन
मोराक नाचपाची आयली हूर

मोर आपले पंख पसरून
थुई-थुई नाचूंक लागलो
मोराची तोखणाय करूंक
पावस घोसघोशानी वतुंक लागलो

पावसाचे सरी आकान घेवन
धर्तरी पाचवी-पाचवी जाली
दरयार उदक भरती जावन
ल्हारां उमेदीन साद घाली

शेतकऱ्यांच्या मनात
उमेदीची पाळां सुटली
शेतान ओपलेल्या बियांक
पाचवी चार कोमरी फुटली

सगळ्याचें मन तृप्त जालें
पावसाच्या ह्या आगमनान
कुशी दाटून रावली एकच
प्रत्येक जिवाच्या जिवनान

पावसाचे हे सरी येऊन
सगळ्याचे मन अंतकरण न्हाले
इतको पावस पडलो धरतरेर
की सगळ्याक उदक-उदक झाले

उपकार तुमचे मेघनाथा
कोटी कोटी नमस्कार
प्रत्येक वरसा घडोवन हाडाट
असोच एक तरी चमत्कार





# ३८. अकस्मात हो पावस आयलो

पयससून पळयल्यार
पावस येता कसो दिसतालो
फुड्यान वचून पळयले
आनी सगळो भिजलो




अकस्मात हो पावस आयलो
आनी सत्री नासली म्हजेकडेन
पावसान ते भिजताले
सत्री आसून तांचेकडेन

हावें विचारलें त्या चलयेक
पावसान खेळपाक तुका बरें दिसता
सत्री तुजेकडेन आसा
तरीसुद्धा तू कित्याक भिजता?

लजेन सामके ते बावले
म्हाका पळोवन हांसले
ते किद्याक हासताले
म्हज्या लक्षान येना आसले



हावेन विचारले त्या चलयेक
म्हाका पळोवन तू किद्याक हासता
खरे सांग हांव किदे तुका
इतलो बरो दिसता?

तर म्हणता......
हांव तुज्या मुस्कटाक पळोवन हांसना
तुझ्या मुस्कटाचेर म्हाका किते
बरें दिसतलें
तुज्या चेड्डेची नाडी भायर सरल्या
तीकां पळोवन हांव हासतालें......



## ३९. जिवन मरण

दुःख आनी वेदना ही
प्रत्येक मनशाक नाचयता
जन्मभर दुःखान जळून
मेल्या उपरांत सुध्दा लासयता

मनशाच्या जिवनात सुखदुःखाचे
मोठे वाटे आसता
आयुष्य हे एक झाड
ताका जिवन मरणाचे फाटे आसता

जिवन मरणाचे हे वाटेर
मनीस आपले कर्तव्य बरेतरेन पाळटा
हेच सगळे पार पाडूक
देव मनशाक धरतरेर हाडटा

जिवन आनी मरण हे
संवसाराच्यो दोन बाजू
हांग कोणाकूच चुकना
प्रत्येक मनशाक मरण आसता रूजू

जन्मभर मनशान ह्या सवसारान
किदें केले हो हिशोब नासता
पुण, मरण हे मनशाच्या जिवनाचे
निमणे सत्य आसता.....



❖ ❖ ❖

# ४०. मोगाक मोगान जिकुंक जाय

एक तुमकां सांगता गजाल
एक चली आसले मोगान
नवऱ्यान ताका सोडले म्हणून
आयलें ते खूब रागान

किदें करचे सुचना तांकां
तोंड कशे दाखवचे समाजाक
आता जगून फायदो ना
दोश कसो दितले नशीबाक

रागान उडी घेतली बांयत
काळीज तुटून जावन दुःखी
बायत ते उदक नासलें
नशीबा वरी ती बाय सुखी

जबर मार लागलो आंगाक
जीव मात्र साबुत आसलो
इतकोय मार लागूंक नासलो
जितको नवऱ्यान सोडला तितको

मोग केल्यार काळीज तुटता
जीव दिल्यार हांडा सुटता
आता ते नशीबाक रडटा
कित्याक म्हणून असल्या मोगान पडटा?

मोग तुमी करून
काळीज उडयता तोडून
तरी सुध्दां मोगाक लागून
हाडा घेता मोडून

मोग करतल्या प्रत्येक मनशान
बरे तरेन हें चितुंक जाय
मोग करप वायट ना
पुण मोगाक मोगान जिकुंक जाय





# ४१. काळें मांजर

आज म्हज्या हांतान
एका जिवाचे पाड जालें
सदांच दुसऱ्याच्या रस्त्यार आड येवपी
त्या काळ्या मांजराक हांवेन आड घालें
हांतून चुक म्हजी नासली
हांव आसलो मात्सो झेतान
मांजर कोणाच्या तरी फाटल्यान
आसलें बरेच आपल्याच नेटान



सामकार म्हज्या गाडयेच्या
माजर रस्त्यार येता
जोरान ताका धपको लागून
मांजर शेवटून पडलें शेतान
गाडये पोंदाक म्हजे कोण आयलो
हें म्हज्या लक्षान नासलें
अकस्मात भायर सरून पळयलें तर
भॅण्ड वाकडें जाल्ल्ये माजर थंय आसलें
कोण म्हणटा जबर मार लागला,
आतां तें उरचेंना
तर कोण म्हणटा मांजराक सात जीव
इतल्यान तें मरचेना
कांळे मांजर ते मरत तर
शाप म्हाका ताचो लागतोलो
मांजराक त्या आठवो जीव दी
असे देवाकडेन हांव मागतालो...



## ४२. मनीस आनी मनजात

देवाक मनशाची चिंता जावन
त्या चिन्ताचे निवारण म्हणून एक उपाय काडलो
मनशान तीन फावट न्हावप आनी एक फावट जेवप
हे मनशाक सांगपाक देवान म्हाका धरतरेर धाडलो

धरतरेर पावता-पावता धरतरेचे ते
सुंदरतायेन हांव सगळे ते विसल्लो
देवान मनशाक कितें सांगूक सांगिल्ले
हेच हांव परतून-परतून विचार करूंक लागलो

मनीस नजरेक दिसताच
मन म्हजे चिंतनानी पडले
आनी एक फावट न्हावचें
मनशान तीन फावट जेवचे,

अशें हावेन सांगून सोडले
वयर वचून देवाक कळताच
देवान म्हाका तापोन काडलो
धरतरेर वच आनी शेतकऱ्याक मदत कर

अशे सांगून म्हाका परतून धरतरेर धाडलो
आज हांव शेतकाऱ्या वांगडा
शेतान काम करपाक तांका मदत करता
माकाच लागून आज हे मनीस
आपली पोटा भरता

आता ह्या हुशार मनशानी
कशी आपली तकली लडयली
आमच्या जाग्यार शेतान काम करपाक
कसली कसली मशिना घडयली

शेतान आमची गरज ना ती पळोवन
आमका सगळ्याक वाटून धल्ले
प्रत्येक दिसा एक एक करून
आमका सगळ्याक कापून खाल्ले

काय मनीस आमची पूजा करून
तें आमकां देव मानता
आपले कश्ट पयस करपाक
कांय मनीस आमका जोताक बानता

आपली भुक पयस करपाक
काय मनीस आमका कापून रानता
देवा हे दुर्भाग्य कोणाचे?
तुमी रचिल्ल्या मनजातीचें
काय मनशानी केल्या
ह्या वेगळ्या वेगळ्या जातीचें?





# ४३. हांव मास्तर जाल्लों जाल्यार

हांव मास्तर जाल्लो जाल्यार
भुरग्यां कडल्यान शिक्षणाची फीज घेवचोनासलो
तकलेर तांचे शिक्षणाचो भार तसोच
फाटीर पुस्तकांचो इतको भार दिवचोनासलो

वरसाक स-स परीक्षा
भुरग्याक दिवंक पडचे नासल्यो
अभ्यास करूंक त्रास जाता म्हण
भुरगीं चितून रडची नासली

हांव मास्तर जाल्लों जाल्यार
भुरग्यांक इतल्यो व्हडल्यो प्रश्नाच्यो जापो विचारचो ना आसलो
सगळे कॉम्पुटरार करतलों आसलो
पुस्तक पाटी आसची नासली

शिक्षण वांगडा दुसरेय बी गिन्यान
भुरग्याक बरें तरेन मेळटले आसले
खेळाच्या मैदानार भुरगे आमचे
बरेतरेन खेळतलें आसलें

हांव मास्तर जाल्लो झाल्यार
भुरगें सगळे खूप्प हुशार जातले आसलें
देश आमचो खूप्प वयर आसल्याचे
म्हजे नाव जातले आसलें
हांव मास्तर जाल्लो जाल्यार...



❖ ❖ ❖

# ४४. देवाचो पुत

बारा जाण आफोस्तेल देवान
आपल्याक काडलेले वेचून
आपल्याचेर ते नेगार येतले
अशे तांका सांगलेले जेजून

दिसाक तीन फावट कोंबो रडटलो
अशेंय तांका सांगलेले जेजून
खरेच जाले ते जेजू सायबाचे
तांचे दिस निमाणे म्हण

लाकडाचो खुरीस खांदार दिवन
तांका सगळ्याक भोंवडायले
कांट्याचे ताज तकलेर घालून
ताका खुरसार खिळायलो

चाबकाचो मार दिवन जिदेवानी
ताचे रगत जमनीर वतलें
हें सगळे दुःख जेजून
मनशाक खातीर सोसलें

लुळ्या पांगळ्याक चलूंक शिकयलें
कुड्ड्याक दिले ताणें दोळें
ताका खबर आसली जायत
संवसारान आपले दिस म्हण थोडे



गरीब मनशाक तो पावतालो
तांच्याच वांगडा तो रावतालो
दुसऱ्याचे मदतीक तो
सदांच फुडे धावतालो

जेजूक खुरसार माल्ले
ताच्या आंगाक तोपताले भाले
रगताच्या ताच्या थेंब्यानी
कुड्डे बरे जाले

जेजू मरून स्वर्गार गेलो तिसरें दीसा
जिवन्त जातलो म्हण सांगले  कोणे
येतलो परतून ह्या सवंसारान
दिवंक तुमच्या आमच्या
पातकाचे बोकसोणे....





# ४५. आलतडीचो एक मनीस

आलतडीचो एक मनीस
पलतडी तो रावतालो
लग्न जा म्हळ्यार तो
भिवन धावतालो

म्हयने सरले, वरसां सरलीं
आवय-बापायची चितना वाडली
लग्न ताका करतोलोंच म्हणून
व्हडली भयणीन सोयरीक हाडली

चलयेची वरसां चड
चल्यापेक्षा जबर ती व्हडली
ही खबर नवऱ्याक कळतांच
तिय बी ताणे सोयरिक मोडली

बापायक चिंतनाचो भार जालो
चिंतुन चिंतुन बापुय मेलो
मागीर रोखडेच एक वरसा भितर
फोरसान ताका लग्न केलो

लग्न जावंक तो भियेतालो
आता बायलेक हांत लावंक भियेता
असले हे जगणे ती दोगाय
लग्न जावन सुध्दा जियेता

चलयेच्या पासीयेंसाक सीमा उरलीना
शेवटाक चली ताका सोडून गेली
म्हज्या नशीबान सुनेचे सुख ना
अशें म्हणून म्हणून आवय मेली



# ४६. नाचुक कळना म्हण आंगण वाकडे

नाचूंक कळना म्हण आंगण वाकडें
अशें म्हळ्यार काय ना
पुण, हांव विचारता वाकड्या आंगणात
कित्याक नाचुक जायना?

नाचतल्यान केन्नाय नाचुंयेता
मनाची तयारी मात आसुंक जाय
मन ताचे साफ आसून
नाच सत्याचो आसुंक जाय

पायांक आपल्या घुंगूर बांदून
मिरा सुध्दा नाचिल्ली
तिच्या पायातल्या प्रत्येक घुंगरान
प्रेमाची आनी सत्याची छनक आशिल्ली

आताचे काय मनीस हांगा
नाच नाचता नागवण्याचो
सत्याचे रूपणे घालून
धंदो करता फसोवण्याचो

प्रत्येक मनशाच्या मनीस पणाचो
नाच हो ह्या सवसाराच्या आंगणातलो
इनाम तांका मेळतात एक दीस
ताणी मांडलेल्या वायट नाचाचो



❖ ❖ ❖

# ४७. गोंयचो बाजार गोयचीं भाजी

गोंयान आमच्या भाज्जेच्यो
खूप्पशो जाती आसा
बरेतरेन शेतान लागवड करूंक
गोंयची तशी माती आसा

भाजी पिकयता शेतकार शेतान
विकूंक भवता साबार गावार
गोंयच्या बाजारांनी गोंयकारांक जागो ना
सगळी शॉपा केला भायल्यांच्या नावार

रस्त्यार वतना दिसून येता
रस्त्यार बाजार भरता भाज्यांचो
बेळगांव, हुबळीची भाजी हाडून
बाजार भरता गोंयकारांचो

आमचें गोंय आसून सुध्दा
आमकांच आमच्या बाजारान जागो ना
धाकटी सत्री तरी घालून दियात
व्हडले शॉपा तर मागना

गोंयचो बाजार गोंयची भाजी
दिसता गोंयान उरचीना
ह्याजे फुडें कोणूच गोंयकार
भाज्येची शेतां करचोना



आमचो बाजार आमची भाजी
गोंयची आमची ही परंपरा
ती टिकोवून दवरतली जाल्यार
भाजीवाल्यांचे बरे करा.



# ४८. नां

झाडाशिवाय फळ नां
फळा असले बळ नां
आपले बळ मनीस सदाच
स्वताच आपुण वापरता
पैशा असली भूक नां
प्रेमा असले सुख नां
सगळे सोसुंक जाता मनशाच्यान
पूण मरणा इतके दु:ख नां
खुर्चे शिवाय मंत्री नां
पावसा शिवाय सत्री नां
पावस पडून सोपलो तरी
आजून ओली धर्तरी नां
बायले बगर संवसार नां
भुरग्यां बगर घरदार नां
खुप्पशे मनीस आसा ह्या जगान
पगडी बगर सरदार नां
संतां असलें जगणे नां
जिविता असले मागणे नां
मनीस जिवो आस पर्यंत
मरण ताक लागले नां





# ४९. पावसाचो तांडव

अकस्मात काळोख जावन कुपां
मळबाचें माचयेर नाचपाक लागली
घडघड्याचो आवाज करून
मळबार सावन खळखळून हांसूंक लागली

कुपां भितरले जोगुल तें
उजो जावन भायर सरलें
खिणातच वचून ते जोगुल
माडाच्या माथ्यार धरले

आकांताचो वारो सुटून
झाडा जमनीर पडून गेली
वादळी वाऱ्याच्या त्या नेटान
घराची छप्परा उडून गेली

पळयता-पळयता सगल्या वाठारान
घोसघोश्यांनी पावस वतूंक लागलो
घरा दारांनी उदक सरून
पावस तांडव नाचूंक लागलो

नदी न्हय भरून सगळ्यो
गावागावानी उदक जाले
गावातले गरीब मनीस
पावसान न्हय तर आपल्या
दु:खानी न्हाले

दोंगरा माथ्याच्या उचांर वचून
लोक पावसाक कोसताले
पावसाशिवाय आमच्या
दुखाच्या वलसाणेन
आमी भुरग्यांक आमच्या पोसताले.





# ५०. तांतीं आनी कोंबडी

अकस्मात मनांत म्हज्या
एक प्रश्न सुचलो राती
पयली आसली कोंबडी
काय पयलें आसलें ताती



प्रश्नाची म्हज्या जाप मेळना
कितें करचे कांयच कळना
ताती म्हाका दिसता खरे
पुण त्या ततयान कोंबडी रडना

तांतीं हांवेन फोडून पळयले
तांतयान भितर धवी हळदुळी लाळ
चितुंक पडलो ह्या लाळेचे
जातात कशे काय हांड?

तांतयाचो त्या रंग धवो
कोंबडेचो आसता वेगळो-वेगळो
कायच कळून येना म्हाका
कसलो हो चमत्कार सगळो?

तांतयाची आनी कोंबडेची
सोयरीग आवय भुरग्याची
करता तितकीय थोडीच
तोखणाय रोचणाऱ्या देवाची

तांतयांचे आनी कोंबडेचो
प्रश्न सोडोवपाक कोण शकलोना
पयली तांतीं की पयली कोंबडी
हे सांगपी आजून एकलोय ना

❖ ❖ ❖

# ५१. केळीं

केळीं खावन पोट भरता
केळीं खावन पोट जिरता
केळीं ही संजीवनी
केळीं खावन दुयेंस मरता



केळ्याच्यो जाती चड
खापरे केळे सगळ्यान व्हड
वेलची आनी गावठी केळीं
साखरी केळीं सगळ्यान गोड

केळीं वर्सुय भर मेळता
केळीं खावन उंची वाडता
बाजारान सामकीं सवाय
खुप्प सो लोक केळींच हाडता

केंळ्यांचे करता चिप्स ड्राय
कांपांय करता रवा फ्राय
रूचीक बरी लागता म्हणून
भुरगीं म्हणता आनीक जाय



केळ्यांची भाजी रूचीक बरी
खतखत्यानय केळ्याच्यो फोडी
केळी इतकी साजुक आसा की
शिऱ्यान सुध्दा घालता थोडी

सुखी जावंक केळीं खायात
केळ्याचेच गुण गायात
केळीं हे देणे देवाचें
केळींची झाडा लायात



# ५२. नाल्लान उदक घातलें कोणें?

नाल्लान उदक घातलें कोणें?
ताणे विचारलें म्हजेकडेन
हांवेन म्हळे म्हाका खबर ना
विचारना कित्याक तू देवाकडेन....



माड हो सैमाची सोबितकाय
माड हो गोंयची गिरेस्तकाय
माडाचो फायदो घेवन मनशाच्या
जिवाक मेळता शांतीकाय

नाल्लान उदक आसप म्हळ्यार
ही एक करणी निसर्गाची
निसर्गाक निर्माण करतल्या
अद्भूत विद्वान त्या देवाची



सागर मंथनाच्या वेळार
जेन्ना दर्यातल्यान अमृत भायर सरलें
ते कोणाच्या हातांक लागचे
न्हय म्हणून
देवान ते नाल्लान लिपोवन दवल्लें

देवान लिपयल्लें अमृत ते
उदक न्हय ते नाल्लान
अमृत कोणे पोळोवकना खरे
पूण नकळत ताचो स्वाद
अणभवतात तान्नेल्याक

❖ ❖ ❖

# ५३. पावसाच्या जोरान

पावस पट्टा बरोत जोरान
उदक जालें घरा दारान
धरतरेक सुरींग फुटून
व्हावुंक लागले झोऱ्याझोऱ्यान

पावसाचो नेट पळोवन
बेबो नेटान गाऊंक लागलो
उदकाचो लोट पळोवन
कावळो उदकान न्हावूंक लागलो

वावऱ्यांड्यांक नेट आयलो
काम करूंक माडा बांदार
शेतकार खोशेन शेतान गेले
नांगर घेवन आपल्या खांदार

दर्या उदकाक भरती जावन
ल्हारां जोरान गायताली
सुकणीं झाडा पाना पोदांक
पावस थांबपाची वाट पळेताली

पावसाचो नेट थांबना
बेबो गावचो रावना
शेतकऱ्याक कामाचो नेट
दर्यार व्होडें पावना..



❖ ❖ ❖

## ५४. एक काणी प्रेमाची

एक आसलो राजा
एक आसली राणी
आयकयात तुमका सांगता
तांच्या प्रेमाची कांणी

भुरग्या पणार सावन
दोगाय एकठाय खेळली
वयार ती येताच
काळजा तांची मेळ्ळी

सूर्य दर्यार बुडता तेन्ना
सदाच एकमेकांक मेळटाली
तिनसांजेच्या वेळार ती
दर्या ल्हारार खेळताली

प्रेमाची गाडी तांच्या
चलता-चलता फुडे पावली
आजून पर्यंत पडूंक ना
ताचेर कोणा दुशमनाची सावळी

लग्न जावन भुरगी जाली
मागीर दोगाय जाण्टी जाली
राजा जालो आजो
आनी रानी आजी जाली

राजा आनी राणीची
ही आसली काणी
हांव तो राजा आनी
तू म्हजी राणी





# ५५. अर्दी काणी प्रेमाची

दारान फुललेल्या मोगऱ्याक पळोवन
याद आयली तुझ्या केसाची
गॅलेरीत सुकत घातलेल्यात त्या लेसाक पळोवन
याद झाली तुवेन दिल्ल्या लेसाची
    लेसाक त्या तुज्या पळोवन पळोवन
    गालार दुःखा सुकयतालो
    याद करून त्या दिसाची
    छातयेन काळीज दुखयतालो
कितले सुंदर गाल तुझे
गालार मदीच पडटा मील
केन्नाच हांवेन चिंतुक नासले
आमच्या प्रेमाची गाठ जायत म्हण धील
    पैशाकार बापायची चली तू
    पैशे आसात तुमचेकडेन चोड
    पूण आमच्या सारक्या गरीबाक
    प्रेमच हो सगळ्यान व्होड
जगूंक हांव तर शकना तुझ्याशिवाय
मरण हे कोणाक रावता
आज म्हज्या काळजातल्यान
रगताची दुःखा व्हांवता
    मेल्या उपरांत तरी सुटतोलो
    तुझ्या प्रेमाचे हे यादीतल्यान
    जन्म भर तर हांव तुका विसरूंक शकलोना
    शक्य जायत कदाचीत मेल्या उपरांत
आजून कितकी याद करू
म्हज्या तुटलेल्या मनाची
जी केन्नाच सोपचीना
अर्धी काणी प्रेमाचा



❖ ❖ ❖

# ५६. स्वपनातली चलीं

स्वपनातल्यान जागो जावन
अर्धे रातीक पेटयली वात
लायट गेल्ली सगळ्या घरातली
जबर काळोखी आशिल्ली रात

काळोखाचे राती सपनात म्हज्या
सुंदर एक चलीं आयलीं
कोण म्हणटा पटकन्या, कोण म्हणटा अप्सरा
काळखान म्हज्या पावली

सपनातली चली ती, प्रेमाची सावळी
मनात म्हज्या बसली
लोक म्हणटा चली न्हय मेणाची बावली
काळजाक म्हज्या दसली

रातीच्या त्या सपनात चलयेच्या रूपान
एक भानगड झाली व्हडली
सपनातली चलीं ती म्हज्ये सपन तुटताच
म्हजे काळीज घेवन पळली.



❖ ❖ ❖

# ५७. अपेक्षा

दुसऱ्याक सुगंध दिवच्या खातीर
मनशान उजवाती परी जगूंक जाय
दुसऱ्याक उजवाड दिता दिता
मेणवाती परी सपूंक जाय

एक वात ती स्वताच जळून
दुसऱ्याक उजवाड दिता
पूण काय जाणं इतके स्वार्थी
तिका दोनूय वटेन पेटयता

मनशान एक झाड लावप
पुण फळाची उपेक्षा करप न्हय
दुसऱ्याक मदत करप खरी
पूण मदतीची आशा धरप न्हय

तन आनी मन नितळ आसत तर
सगळेच नितळ दिसतले
काळीज तुमचें साफ आसत तर
जग हे साफ आसतले...



❖ ❖ ❖

# ५८. शिक्षण हो हक्क प्रत्येक मनशाचो

आदली एक म्हण आसा
आंथरूण पळोवन पाय सोडप
पूण, हांव विचारतां जर आंथरूण ना
तर कितें पायूंच कापून उडवप?

आंथरूण आसू वा नासू
पांय बिनदास सोडूंक जाय
ही रीत तर आदली जाली
आदली रीत आता मोडूंक जाय

भीक मागून हक्क मेळना
आपलो हक्क झगडून घेवचो पट्टा
शिक्षण हो हक्क प्रत्येक मनशाचो
तो प्रत्येकाक दिवचो पट्टा



शिक्षण केन्नाय घेवं येता
ताका वयाचे कांय बंधन ना
शिक्षण हे पयलें पावल गिन्यानाचे
ताका जातीचो कांय संबंध ना

चली आसूं वा चलो
शिक्षण हें सगळ्यानीच घेवचें
शिक्षण म्हळ्यार देणे देवी सरस्वतीचें
तें देणे सगळ्यांकच दिवचें

जो तानेल्ल्याक उदक पिवयता
भुकेल्ल्यांक दिता जेवंक जेवण
तशेंच वाचतल्याक पुस्तक वाचूंक दियात
दियात शिकतल्याक शिक्षण.







## अविनाश कुंकळकार

बाब अविनाश कुंकळकार हांचो हो दुसरो कविता झेलो. ह्या फावट ते बरेच हुशार जाल्यात. खंयचोय विशय घेवन कविता बरोवपाची थोडी तांकां गोडी लागल्या.

ह्या कविता झेल्यांत सगळे विशय हाताळल्यात. शेतकारांची व्यथा, आवय, देऊळ, मनीसपण, 'सुंगटाची कडी' हातूंत ते विनोदी शैली दाखयता. सैमाचेर बरो सल्लो दितात. म्हजें नांव अविनाश म्हणपी आज कवितेचेर बरे धडे दितात. बरे दिस येतले केन्ना? काळें माजर, पावस, नारद, काळीज हेय विशय ताणे बरें हाताळल्यात.

उगतें मळब तांकां नवी स्फुर्त दिता अशें दिसून येता, नारद धर्तरेर येता हिय एक विनोद कविता. देव, झाडाची व्यथा ह्योय कविता बऱ्यो जाल्यात. शिक्षणाचें म्हत्व पटोवन दितात. आपल्या गांवची तो खणाय बरी करता. हांव मास्तर जाल्लों जाल्यार, हिय कविता बरी जाल्या. अविनाश हो एक बरो बरोवपी जातलो हें हो कविता झेलो दाखोवन दिता.

कविता बरोवन आपली कला लोकांमुखार मांडप हें एक बरें काम - हें एक बरें 'व्यसन' अशें म्हळ्यार अतीताय जावंची ना.

खंड काव्य, कथा हेय विशय हाताळचे. एकांकिकेची आज चड गरज आसा. कॉलेजी, स्कुलांत, शाळेंत, हांगा करपा सारक्यो एकांकिका जाय.

देव बरें करु.

**डॉ. भिकाजी घाणेकार**